# गौरी आनी कल्परूख

(दोन बालकथा)

पुंडलीक नारायण नायक

अपुरबाय प्रकाशन

**गौरी आनी कल्परूख**
दोन बालकथा
पुंडलीक नारायण नायक

**Gauri ani Kalparukh**
*Two Short Stories for Children*
*by* Pundalik Narayan Naik

प्रकाशन क्र. 72



पयली आवृत्ती
2005

छापणावळ
हिरू नारायण नायक
रूतु ऑफसेट
वळवय, फोंडें - गोंय
403 401

अक्षर जुळणी
बिम्ब प्रकाशन

मुखचित्र आनी भितरलीं चित्रां
श्रीधर कामत बांबोळकार

प्रकाशक
अपुरबाय प्रकाशन
वळवय, फोंडें - गोंय
403 401

मोल - रू. 45/-

हें पुस्तक गोवा कोंकणी अकादेमीच्या बालसाहित्य प्रकाशन अर्थीक पालव येवजणेखाला छापलां.

ऋतुजाला...

- दादा

# पुंडलीक नारायण नायक

हांगेली

## भुरग्यांखातीर बरपावळ

| | | |
|---|---|---|
| रानसुंदरी | - | एकांकी |
| आळशांक वाग खातलो | - | एकांकी |
| शिंवाचो बळी | - | एकांकी |
| गोंयचो पावस | - | निबंद |
| मनू | - | नवलिका |
| बेकार भोंवडेकार | - | नवलिका |
| गौरी आनी कल्परूख | - | बालकथा |
| छुम् छुम् घुंगरी | - | कविता - गीतां |

1

# गौरी

ही काणी गौरीची. गौरीक तशे कोण वळखनांत. कशे वळखतले? कित्याक तर गौरी शाळेंत शिकपी एक ल्हान चली. गौरीचो बापूय गोविंदबाब. तांकां मात सगळे वळखतात. ते एक शिस्तिचे मनीस. तांगेलो उद्येग आसा. दोन तीन फॅक्टरी आसात. कांय दुकानां आसात. तांगेर ल्हान मोट्यो मोटारी आसात. घरांत काम करपाक खूब मनशां आसात. पूण गोविंदबाब हेर गिरेस्त मनशांभशेन न्हय. तांकां गरिबांविशीं काकुळट दिसता. घरांतल्या मनशांकडेन ते आपलेपणान वागतात. तेचभशेन भायल्याय मनशांकडेन तितलेच आपुलकायेन उलयतात.

गौरी तांगेली एकलीच अपुरबायेची धूव. ते गौरीची खूब माया करतात. गौरीच्या बऱ्या कामाची तोखणाय करतात. तेचबरोबर कितेंय चुकलें जाल्यार ती चूकय गौरीचे नदरेक हाडून दितात.

एक दीस कितें जालें, गौरी बापाय म्हऱ्यांत आयलें आनी ताणें म्हणलें, "बाबा, हांव पयशे चड मोडटां अशें तुकां दिसता?"

"ना म्हज्या शाण्या. आनी म्हजेकडेन आसात ते सगळे दुडू कोणाचे? तुजेच. पूण गौरी, तुका एकूच सांगपाचें आसा."

"कितें बाबा?"

बाबान गौरीच्या दोळ्यांतलीं दुकां अचळय पुसून काडलीं आनी म्हणलें, "जाणां गौरी, मनशान दुडू खर्च करता आसतना विचार करपाक

जाय. जंय गरज आसा थंयच दुड्डू मोडपाक जाय. दुड्डू मनशाच्या आदाराखातीर आसतात. एकतर तुज्या आदाराखातीर नातर दुसऱ्यांच्या आदाराखातीर."

बापूय किर्तें सांगूंक सोदता तें गौरीक समजलेंना. ताचो घुस्पागोंदळ जालो. तोंड बारीक करून बाबडें जावन ताणें म्हणलें, "बाबा, तूं किर्तें सांगता तें म्हाका कळना."

"सांगतां, तुका कळटा तशें सांगतां."

"सांग."

बापायन तकली खरपिली. थोडो विचार केलो आनी म्हणलें,

"गौरी अशें केल्यार कशें? तुजी आयज परिक्षा घेवंया."

"परिक्षा?" गौरी भियेलें. परिक्षा म्हळ्यार ताका थर्त भंय दिसतालो.

"भियेवं नाका. ही परिक्षा शाळेंतले परिक्षेसारकी न्हय."

"मागीर कशी?"

"तूं आयजवेर जें शिकलां ताची ही परिक्षा. म्हणजे तूं शाळेंत जें शिकलां, घरांत जें शिकलां वा हांगा-थंय भोंवताना जें शिकलां ताची परिक्षा."

बापायचीं उतरां आयकून गौरी अदीक भियेलें.

"पूण बाबा. हे परिक्षेक हांव नापास जालें जाल्यार?"

"तूं शाळेंत नापास जाता तेन्ना किर्तें करता?"

"बाबा, हांव केन्नाच नापास जावंक ना."

"हय मगो! हांव विसरलोंच पळय. एक सांग, तुका एखाद्या पेपरांत मार्क उणे पडटात तेन्ना तूं किर्तें करता?"

"खंय चुकलां तें सोदून काडटां."

"एकदां जाल्ली चूक तूं परत करता?"

"ना बाबा. हांव ती सुदारतां."

"हांगाय तशेंच करपाचें. म्हजे परिक्षेक जर तूं नापास जालें जाल्यार तुवें चूक सारकी करपाची."

गौरीक समजावणी मेळ्ळी. ताका खूब उमेद जाली. ताणें म्हणलें,

"बाबा, म्हाका आतां परिक्षेक बसपाची उमळशीक लागल्या. तूं सुरू कर."

धुवेची उमेद पळोवन बापायकूय बरें दिसलें. ताणें बोल्सांत हात घालून पयशांचें पाकीट काडलें.

"गौरी, तुवें आतां म्हजेकडेन पयशे मागिल्ले. पयशे कित्याक तें तुवें सांगूंना."

"तातूंत किर्तें? हांव सांगतां."

बापायन ताच्या तोंडार हात दवरलो आनी ताचें तोंड बंद केलें.

"तुका पयशे कित्याक तें हांव तुका विचारिना आनी तुंवूय सांगू नाका. हे घे."

बापायन ताचेमुखार शंबर रूपयांची नोट धरली. गौरीक शंबर रूपया पळोवन अजाप जालें. कित्याक तर तें मागपाक आयिल्लें ते इतले



पयशे न्हय. सदांच तें पांच नाजाल्यार धा रूपया मागतालें. बापायन म्हळें, "कांचवेंव नाका. हे शंबर रूपया घे. आयज सांजवेळ मेरेन हे पयशे खर्च कर."

"पूण बाबा कित्याखातीर खर्च करूं?"

"तीच तर तुजी परिक्षा."

"म्हणजे?"

"हे पयशे अमूकच गजालीखातीर मोड अशें हांव तुका सांगना. तुका जाय तशे मोड. पूण एक गजाल मतींत दवरपाची."

"खंयची गजाल?"

"ह्या पयशांचो बरो उपेग जावंक जाय. जंय गरज आसा थंयच हे पयशे खर्च जावपाक जाय. तुका समजलें?"

"बरेभशेन समजलें." गौरीक खूब खोस जाली. ताका दिशिल्लें, बापायची परिक्षा खुबूच कठीण आसतली, पूण तशें नासलें. उमेदीभरशीं ताणें उडकीच मारली. ताणें बापायक म्हणलें.

"बाबा, हे परिक्षेंत हांव सामकें सोंपेपणी पास जातलें. म्हाका तूं बक्षीस कितें दितलो?"

"म्हजी धूव गुणाची तशी बुदवंत म्हण हांव सगळ्यांक सांगतलों."

"बक्षीस कितें दितलो तें सांग."

"तूं मागता तें. तूं सांगता तें."

गौरीक आनंद जालो. शंबर रूपयांची नोट घेवन तें धांवलें. बापायन ताका दीस भरयाची मुजत दिल्ली. पूण ताका इतले मुजतिची गरज नासली. आपूण रोकड्या रोकडें काम करतलें आनी बापायचे परिक्षेक पास जातलें अशें ताणें येवजिल्लें. तेच उमेदीन तें भायर सरलें. वाटेर ताका तागेल्या शाळेंतल्यो दोगी इश्टिणी मेळ्ळ्यो. खंय वता काय म्हण ताणी गौरीक विचारलें पूण गौरीन "खंय ना" अशी वयलेवयर जाप

दिली.

खंय वचपाचें तें ताका खबर आसलें. तेच वाटेन तें चलतालें. शंबर रूपयांची नोट ताणें स्कर्टाच्या बोल्सांत दवरिल्ली.

चलतां चलतां तें शाळेकडेन पावलें. ही ताची शाळा न्हय. पूण केन्नाय येतना वतना ही शाळा ताका दिश्टी पडटाली. शाळेचे गेटीकडेन ताची नदर गेली. एक भुरगो गेटीभायर उबो आशिल्लो आनी हुंडक्या-हुडक्यांनी रडटालो. गौरीक ताची काकूळट दिसली. तें ताचे म्हर्‍यांत गेलें. ताणें ताका बारीकसाणेन विचारलें.

"कित्याक रडटा रे?" गौरीन ताचे फाटीर हात भोंवडायत विचारलें. आपले फाटीर कोणतरी मायेन हात भोंवडायता तें पळोवन भुरग्याक बरें दिसलें. ताणे दोनूय मनगटांनी आपले दोळे पुसले.

"तूं कित्याक रडटा?" गौरीन ताका परत एक फावट विचारलें.

"म्हाका वर्गांतल्यान भायर घाला."

"कित्याक? तुवें मस्तेपणां केल्लीं? अभ्यास करूंना? मास्तराक परती जाप दिली?" गौरीन ताका एकार एक प्रस्न विचारले.

"ना. हांवें कसलीच चूक करूंना."

त्या भुरग्यान मान सकयल घातली. कारण सांगपाक ताका लज दिसताली.

"तुजी कसलीच चूक ना जाल्यार सांगपाक लजता कित्याक?"

"म्हाका मोचे ना." मान सकयल दवरूनच ताणें जाप दिली. गौरीन ताच्या पांयांकडेन पळयलें. खर्‍यांनीच ताच्या पांयांत मोचे नाशिल्ले. ताणें एक जोतें घातिल्लें. पूण तें सामकेंच झरिल्लें आनी तुटपाकडेन पाविल्लें. गौरीक ताची सामकी काकूळट दिसली.

"मोचे जाय म्हण तूं घराकडेन कित्याक सांगना?"

"सद्दां सांगतां. आवयकूय सांगतां आनी बापायकूय सांगतां."

"मागीर?"

"तीं सदांच म्हणटा - फाल्यां हाडटां. शाळेंत येतकूच मास्तर विचारता, मोचे केन्ना घालतलो? हांव सांगतां, फाल्यां घालतलों. हें अशें कितलेशेच दीस चल्लां. आमचें फाल्यां केन्ना उदेचना. आयज मास्तराक राग आयलो आनी ताणें म्हाका भायर घातलो. ताची म्हण चूक ना."

तो भुरगो भडाभड सांगत रावलो. गौरी आयकत आसलें. ताणें म्हळें, "हातूंत मास्तराची चूक ना तशी तुजीय चूक ना. चूक तुज्या आवयबापायची."

"ना. तांचीय चूक ना." भुरग्यान मान वयर करीत सांगलें.

"ना कशी तर? तूं मोचे खंयचे हाडटलो? मोचे हाडपाचे ताणीं. नाजाल्यार ताणीं तुका मोचे हाडपाक पयशे दिवपाचे."

"तीं खंयचे पयशे दितलीं? तांचेकडेन आसपाक नाका? बापूय मानाय आनी आवय कामेरें. शेतांभाटांत काम करता. तीं जोडटा तें आमकां खावपा-जेवपाक पुरो जाता. वयर कांय उरना. कशीं हाडटलीं म्हाका मोचे?"

गौरीक वायट दिसलें. गरीब मनशांक इतले कश्ट पडटात हें ताका खबर नासलें.

"मोच्यांक कितले पयशे पडटात रे?" गौरीन ताका विचारलें.

"म्हारग आसात आनी सवायूय आसात. तुवें घातल्यात ते खूब म्हारग. म्हाका सवाय ते उपकारता. पूण तांकां शंबर रूपया तरी पडटा. हांव दुकानार चवकशी करून आयलां."

उलयतां उलयतां त्या भुरग्याचें तोंड हांसतें जालें. आतां तो व्हदळचे परस बरो दिसतालो.

गौरी ताच्या तोंडाकडेन पळयत रावलें. ताका मनांतल्यान दिसलें,



ह्या भुरग्याचें हांसतें तोंड अशेंच उरपाक जाय. तें तशें उरतलें जाल्यार ताची अडचण पयस करपाक जाय. अडचण पयस करप म्हणजे हाका मोचे घेवपाक पयशे दिवप. शंबर रूपया! आपणाकडले शंबर रूपया हाका दिले जाल्यार? पूण नाका. आयज म्हजो परिक्षेचो दीस! ह्या पयशांचो बरो उपेग जावपाक जाय.

गौरी आपलेभितर येवजितालें. भुरगो ताका पळयत रावलो. ताका आशा कशी दिसली. ताणें गौरीक म्हणलें,

"बाय, तूं बऱ्या सभावाचें दिसता. तुज्या कपड्यावयल्यान तूं गिरेस्त कशें दिसता. म्हाका एक शंबर रूपया दियशी?"

गौरीक कच्च जालें. आपल्याकडेन शंबर रूपया आसा हें हाका ज्युस्त कशें कळ्ळें? ताणें भुरग्याक म्हणलें,

"हें पळय, म्हजेकडेन शंबर रूपया आसा. म्हाका तुजी काकळ्ळूटय दिसता. पूण हांव ते तुका दिना. कित्याक तर बापायन म्हजी परिक्षा पळोवपाखातीर ते म्हाका दिल्यात."

भुरग्याचें हांसतें आशिल्लें तोंड बावलें. तो परत रडकुरो जाल्लो. गौरीक ताची अवतीकाय पळोवपाक जालें ना. ताका खूब वायट दिसलें. ताणें तोंड घुंवडायलें आनी तें चलत रावलें. मदीं मदीं तें फाटीं वळून पळयतालें. तो भुरगो तसोच हातांनी दोळे पुशीत आशिल्लो.

गौरीन आतां पावलां नेटान वडयलीं. आपणालें काम बेगीन करपाचें आनी घरा वचून बापायक सांगपाचें अशें तें येवजितालें. इतल्यान ताका कोणेतरी उलो मारलो. उलो नांवान मारूंक नासलो. फकत "बाय" इतलेंच म्हणिल्लें. ताणें फाटल्यान वळून पळयलें. एक बायलमनीस ताचे वाटयां येताली. तिचे हांडीर ल्हान भुरगें आशिल्लें. तें एकसारकें रडटालें. बायलमनीस पिंजकी साडी न्हेशिल्ली. पोलकोय पिंजिल्लो. गळ्यांत, नाका-कानांत कसले अलंकार नासले. हांडीवयल्या भुरग्याच्या आंगावयली खोमशी लेगीत पिंजिल्ली. आवय आनी धुवेची ती अवतिकाय पळोवन गौरीक तांची काकूळट दिसली.

"हें भुरगें रडटा कित्याक?" गौरीन ते बायलेक विचारलें.

"ताका जोर आसा. जोरान तें फणफणटा." आवयन भुरग्याचे तकलेर हात दवरीत जाप दिली.

"मागीर ताका घेवन भोंवता कित्याक? बेगीन व्हरून दोतोराक दाखयात." गौरीन तिका सांगलें.

"बाय दोतोराक दाखोवपाक पयशे नाका?"

"तुजेकडेन पयशे ना तर?"

"ना बाय. हांव आनी हें भुरगें अशीं दोगांच आमी. ह्या भुरग्याचो बापूय काम करताना बिल्डिंगेवयलो पडून मेलो. हांव एकलीच जोडटां

आनी ताचेर आमी दोगांय पोसतां. हांव कामेरें म्हणून दिसावड्याच्या वावराक वतां. पूण आयज दोन दीस जाले, भुरगें बरें ना देखून कामाक वचूंना. काम ना जाल्यार पयशे खंयचे? आमच्या सारक्या गरिबाक कोण पातयेता तरी? हांव गरीब, पूण केन्ना भीक मागूना. भीक मागपाक



म्हाका आवडना. पूण आयज परिस्थिती सामकी वायट आयल्या देखून येत्या-वेत्याकडेन हात मुखार करतां. पूण कोणूच कमली मदत करीना."

आंवडो गिळिनासतना ती एक दमान उलयत रावली. आपणाली गजाल आयकून कोणाकूय काकळूट येवंची म्हणून ती सांगताली, आनी तशेंच जालें. तिची दुखेस्त गजाल आयकून गौरीचें काळीज कळवळ्ळें. नकळटाना ताचो हात शंबर रूपयांचे नोटीचेर गेलो. आनी चक्क करून ताका याद जाली. ना बाबा ना. हे शंबर रूपया अशे वगडावप ना. आयज म्हजे परिक्षेचो दीस.

आनी गौरी चलत रावलें. फाटीं वळून पळोवचें अशें ताका दिसतालें. पूण ताणें तशें केलें ना. झपाझप चलत रावलें. ती बायलमनीस ताचे फाटल्यान थोडोवेळ चलत रावली. तिचीं "बाय, बाय" हीं उतरां कितलोसोच वेळ ताच्या कानार पडत आसलीं.

गौरीन आतां थारायलें, फाटींफुडें खंयच पळोवप ना. दावे उजवे खंयचेच वटेन नदर घालप ना. कोणाचें कितें आयकप ना. कोणाखातीर थारप ना. सरळ वचप. परिक्षेक बसप आनी पास जावन घरा वचप.

आनी तें चलत चलत देवळाकडेन पावलें. देवळाचीं सोपणां चडून भितर गेलें. देवामुखार उबें रावलें. देवाची म्हूर्त उजवाडान चकचकताली. गौरीन दोनय हात जोडले. दोळे धांपले. परत उक्ते केले. म्हूर्तीकडेन पळयलें जाल्यार ताका म्हूर्तीचें तोंड बद्द त्या गेटीकडल्या भुरग्याभशेन दिसलें. ताणें परत दोळे धांपले. उक्ते केले जाल्यार आतां ताका म्हूर्तीचें तोंड सामकें ते बायलमनशेभशेन दिसलें. आपूण सपनांत आशिल्लेभशेन ताका जालें. ताणें दोळे चोळ्ळे. हात-पांय हालयले. परत मुखार पळयलें. आतां ताका देवाची आदलीच म्हूर्त दिश्टी पडली.

वोतांतल्यान चलत आयलां देखून आपल्या दोळ्यांमुखार अशें दिसता जावंये! ताणें मनांत म्हळें.

ताणें बोल्सांत हात घातलो आनी शंबर रूपयांची नोट भायर काडली. बारीकसाणेन पळयली. ते नोटीचेर महात्मा गांधीजीचें चित्र आशिल्लें. बापू! नोटीवयल्यान बापूचें चित्र उलयता अशें गौरीक दिसलें.



तें अजापलें. चित्र म्हण उलयता? ताच्या मनांत घुम्पागोंदळ जालो. आपूण देवळांत कित्याक आयलां तेंच तें विसरलें. देवळांतलो पुजारी ताचेमुखार येवन उबो रावलो. तीर्थ घालपाक ताणें पंचपाळी मुखार केली जाल्यार गौरी खूंट कसो उबो ! बऱ्या वेळान तें भानार आयलें. ताणें बेगीबेगीन बोल्सांत हात घातलो आनी शंबर रूपयांची नोट भायर काडली. नोट पयशांच्या ताटांत दवरली. त्या ताटांत आनीकूय जायत्यो बारीकमोट्यो नोटी आसल्यो. मोडीचे पयशे आसले. शंबर रूपयांची नोट पळोवन पुजारी खूश जालो. ताणें खोशयेन आपल्या उकत्या पोटार हात भोंवडायलो.

पयशे देवाक घालून गौरी तडक घरा गेलें. ताका परत येवपाक अर्दो दिसूय लागूंक नाशिल्लो. घरांत येनाफुडें ताणें उमेदीन बापायक उलो मारलो, "बाबा! हांव आयलें!"

ताका पळोवन बापायक अजाप जालें.

"बाबा, हांव तुजे परिक्षेक पास जालें."

"आब्बा! म्हणजे परिक्षेक तूंच बसलें आनी तुजें तुकाच तुवें पास करून घेतलें?"

"तुवें सांगचे आदींच हांव पास म्हण म्हाका कळ्ळें. तुवें दिल्ल्या दुडवांचो हांवें सगळ्यांत बरो उपेग केलो."

"तशें जाल्यार तुजी तोखणाय करपाक जाय."

"फकत तोखणाय न्हय. बक्षीस दिवपाक जाय."

"दिवया. पूण पयलीं सांग तरी."

"तुवें दिल्ले शंबर रूपया हांवें देवळांत व्हरून देवाक दिले. देवाच्या ताटांत घातले."

बापूय खिणभर ओगीच रावलो. मागीर ताणें विचारलें,

"बाय, ते पयशे आपणाखातीर मोडचे अशें तुका दिसलें ना?"

"ना बाबा. आनी म्हाका गरजूय नासली."

"तुवें बरें केलें बाय. आपणाकडेन आशिल्ले पयशे दुसऱ्याखातीर वापरूं येता अशें तुका दिसलें. तुजी ही बुध्द कवतूक करपासारकी."

"म्हणटकूच हांव पास जालें?"

"राव. ताचे आदीं म्हाका कांय प्रस्न तुका विचारपाक जाय."

"विचार."

"तुवें पयशे देवाक दिले. देवाक ताची खऱ्यांनीच गरज आसली?" बापायन विचारिल्ल्या प्रस्नान गौरी घुस्पलें.

"बाबा, तूं अशें कितें विचारता? देवान म्हजेलागीं मागूं नासले. देव कशे मागतलो? पूण म्हाकाच दिसलें, देवाक दिवप म्हणजे पयशांचो बरो उपेग जावप. देवालागीं पावता ती वस्त बऱ्याक पावता न्हय बाबा?"

"पूण ती देवाक पावताच अशें म्हणूंक जावचें ना."

बापायच्या उतरांनी गौरी अदीक घुस्पलें. बापायन म्हणलें,

"गौरी एक सांग, ते पयशे आनीक कोणाक दिवचे अशें तुका दिसलें ना?" तेसरशीं गौरीक चट्र करून याद जाली.

"दिसलें बाबा. दोन फावटी तशें दिसलें."

"दोन फावटी? केन्ना?"

"पयले फावट शाळेचे गेटीभायर एक भुरगो दिसलो. ताच्या पांयांत मोचे नासले. देखून ताका वर्गाभायर दवरिल्लो."

"तुका ताची काकळूट दिसलीना?"

"दिसली तर. ताचेखातीर हांवें देवळांत देवालागीं मागलें."

"कितें मागलें?"

"देवा, ह्या भुरग्याचें दळीद्र पयस कर."

"मागीर मुखार कोण मेळ्ळो?"

"एक गरीब बायलमनीस. तिचे हांडीर ल्हान भुरगें आसलें आनी

ताका जोर आयिल्लो. तिका दोतोराख्रातीर पयशांची गरज आसल्ली."

"तुका ते बायलेची काकळूट दिसली ना?"

"खूब काकळूट दिसली बाबा. तिचेखातीर आनी भुरग्याखातीर हांवें देवालागीं मागलें."

गौरीची जाप आयकून बापूय गंभीर जालो. ताणें म्हणलें,

"बाय गौरी, त्या भुरग्याची आनी ते बायलमनशेची तुका काकळूट दिसली. मागीर तुवें पयशे त्या भुरग्याक वो ते बायलमनशेक कित्याक दिलेना?"

"सांगू?"

"सांग."

"देव म्हजी परिक्षा पळयता अशें म्हाका दिसलें."

"कसली परिक्षा?"

"ते पयशे आपणामेरेन पावता काय ना तें पळोवपाक देवानूच त्या मनशांक म्हजे म्हऱ्यांत धाडल्यां आसतलीं. पूण हांव बदलेंना. बाबा, हांव तुजे परिक्षेक पास जावंना?"

बापूय वोगीच रावलो. गौरीक कितें जालां तें कांयच कळना जालें. बापायन म्हणलें,

"बाय, देव तुजी परिक्षा पळयतालो ही गजाल खरी, पूण तूं समजता तशी न्हय."

"मागीर कशी तर?"

"तुजी परिक्षा पळोवपाकूच दोन गरजवंत मनशां ताणें तुजे म्हऱ्यांत धाडिल्लीं. तांकां जर तुवें मदत केल्ली जाल्यार देव तुजे करणेचेर खोशी जातलो आसलो."

आतां गौरीक याद जाली. देवाचे म्हूर्तींत ताका एक वेळ भुरगो दिसलो, एक वेळ बायलमनीस दिसली. गौरीन ती गजाल बापायक



सांगली. बापायन म्हणलें,

"बरोबर. तुज्या मनांत तांकां मदत करपाची इत्सा आसली. पूण तुवें सारको विचार केलोना. तूं घुस्पलें. देखून त्याच गरजवंत मनशांचीं तोंडां तुजेमुखार परत परत आयलीं. खरें म्हळ्यार त्याच वेळार तूं शादूर जावपाचें. तुवें शादूर जावचें म्हण हांवें तुका शंबर रूपयांची नोट लेगीत वेंचून काडून दिल्ली."

गौरीक चटूट करून उगडास आयलो.

"हय बाबा. ते नोटीचेर बापूचें चित्र आशिल्लें. आनी तें उलयता अशें म्हाका दिसलें."

"खरें म्हळ्यार बापूचें चित्र पळोवन तुका ताच्या उतरांची याद जावपाची."

"कसलीं उतरां?"

"बापून सांगलां. आदार तांकां दिवप जांकां ख्रन्यांनीच्च आदागची गरज आसा. सेवा तांची करप जांकां ख्रन्यांनीच सेवेची गरज आसा."

"हय बाबा. बरोबर. म्हाका आतां याद जाली."

"आतां याद जावन उपेग किर्ते?"

"बाबा, हांव तुजे परिक्षेक  नापास जालें. म्हाका आतां सामकी लज दिसता."

बापायन गौरीक वेंगेंत घेतलें.

"देव म्हाका केन्नाच माफ करचोना."

"ना बाय. तुजेसारख्या निश्पाप भुरग्याक देव भोगशिता."

"असली चूक हांव केन्नाच करचें ना." गौरीन दोळ्यांत दुकां हाडून सांगलें.

"शाणी म्हजी धूव ती." बापूय अपुरबायेन ताका पोशेत रावलो.



2

# कल्परूख

म्हजें नांव कल्पेश. हांव पांचवे यत्तेंत शिकतां. आयज हांव तुमकां काणी सांगपाक सोदतां. काणी म्हळ्यार गजाल. घडलेली गजाल. आमच्या गांवांतले मुळावे शाळेंत हांव शिकतालों. तेन्नाची गजाल ही.

तश्यो हांवें काणयो खूब आयकल्यात. चडश्यो म्हज्या आवयच्या तोंडांतल्यान. हांव तिका बा म्हणटां. म्हज्या दायन, म्हळ्यार बापायन, म्हाका केन्ना काणी सांगिल्ल्याची याद जायना. पूण तो कसल्योय घडिल्ल्यो गजाली सांगतालो. आतांय सांगता. म्हजी एक आजी आशिल्ली खंय. ती खूब बऱ्यो काणयो सांगताली. पूण हांव ल्हान आसतनाच ती मेली.

हांव तिसरे यत्तेंत आसतना खडपकार गुरूजी आमकां बऱ्यो काणयो सांगतालो. लोक म्हणटाले, हो मास्तर भुरग्यांक शिकयना, फकत काणयोच सांगता. पूण तें तशें न्हय. खडपकार गुरूजी कितें शिकोवपाचें आसा तें काणयेंत घालून सांगतालो. मदीं थोड्या म्हयन्यांखातीर आमकां गांवकार बाई आयिल्ली. काणी सांग म्हळ्यार ती हातार पट्टी मारताली. चवथे यत्तेंत पोवळे मास्तर गरज तेन्नाच काणी सांगतालो. ना जाल्यार ना.

आयजवेर हांवें जायत्यो काणयो आयकल्या. पुस्तकाचेर वाचल्या. आनी त्यो सगळ्यो म्हाका खऱ्यो दिसल्या.

पूण आतां तुमकां सांगतां ती काणी सामकी खरी. ती म्हजीच काणी. पूण तुमकां ती खरी दिसता काय फट म्हण देवाक खबर!

काणी म्हजी म्हटली तरी ती म्हजी न्हय. काणी कल्परूखाची. कल्परूख हें ताका हांवें दवरिल्लें नांव. पुस्तकांतलें. नाजाल्यार माडाक नांव खंयचें?

म्हजें नांव ताका खूब आवडटालें. कल्पेश! वेगळेच तरेन तो म्हाका उलो मारी. तो आवाज कोणाच मनशाभशेन न्हय. जनावराभशेन न्हय. सवण्याभशेन न्हय.

माड आनी उलयतालो म्हळ्यार तुमकां अजाप दिसलें न्हय? तेचखातीर हांवें म्हणलें - ही काणी तुमकां खरी दिसता काय म्हण देवाक खबर!



आमचें घर खेडेगांवांत. गांवांत पांच वाडे. पांचव्या वाड्यार आमचें घर. घरांत मनशां तिगां. बापूय दाय, आवय बा आनी हांव. दाय मानाय. शेतांभाटांत दिसवड्याच्या वावराक वचपी. आवयूय तशीच कामेरें म्हण वावराक वचपी.

घरामुखार एक माड आसा. घरामुखार म्हळ्यार सामको दारामुखार न्हय. मातसो कुशीक. बा आंगण सारयता तेन्ना माडाकूय आंगणांत घेता. गिमांत पावसाआर्दी, दाय घर शिंवताना त्या माडाचेर चार पांच धेपां मारतालो आनी घराच्या पाश्टार चडटालो. तसोच देंवतालो.



दायसारको हांवूय धेंपा मारून माडार चडपाचो यत्न करतालों. पूण धांवून वचून चार धेंपामेरेन चडटकूच आपशींच खाला पडटालों. बा आनी दाय सकाळींफुडें त्याच माडामुळांत तोंड धुताली. दाय केन्नाय तपलेंभर थंड उदक घेवन माडामुळांतूच न्हातालो. जेवन जातकूच माडामुळांत येवन आंवतालो. बा आयदनां घांसपाचीं जाल्यार थंयच माडामुळांत घांसताली. कसलोय कोयर, साली माडामुळांतूच वडयताली. दायन माडामुळांक आळें केल्लें.

म्हजेंय तोंड धुवप, आंवप, न्हावप बी माडामुळांतूच जातालें. माडाक आपशींच उदक आनी सारें मेळटालें.

माड बरो गुलगुलीत मातिल्लो. माळयेच्या जनेलांत रावून पळयल्यार मान हालय नासतना ताचो कषाळो दिसतालो.

माड वाडिल्लो खरो पूण दाय ताका कवाथोच म्हणटालो. बा म्हाका म्हणटाली, तूं आनी तो केन्ना व्हड जाले कळ्ळेंच ना.

एक दीस मजाच जाली. हांव पडिल्ल्या एका चुट्टाच्यो चुट्ट्यो मेजतालों. म्हजी संवंयूच ती. इतल्यान बान एक काळो दोरो हाडलो आनी म्हज्या गळ्यांत बांदलो. हांवें विचारलें, “हें कितें करता?” बा म्हणपाक लागली, तूं आतां व्हडलो जाला. हांगा थंय भोंवता. तुका दिश्ट लागची न्हय म्हण हो दोरो!

तें आयकून दाय बशिल्लो तो उठलो. ताणें घरांतलीं एक-दोन पोरणीं तुटकीं जोतीं हाडलीं. तीं एके दोरयेर गुंथलीं आनी व्हरून माडाक बांदलीं. हांवें विचारलें, “हें कितें?” दायन म्हणलें, “वयर पळय, माडाक पेंड आयल्या. ताका दीश्ट लागची न्हय म्हणून हीं ताच्या भेंडाक जोतीं बांदल्यां.”

म्हाका हांसूंक आयलें. आनी मागीर आमी तिगांय हांसपाक लागलीं. इतल्या बोवाळान हांवें मेजिल्ल्यो चुट्ट्यो हांव विसरलों.

माडाक एकार एक पेंडी येवपाक लागल्यो. येतो-वेतो माडाचेर नदर मारतालो. आनी लोकांचीय चूक नासली. कारण आमच्या घराकुशीक तो एकूच माड आसलो. बाकीच्या लोकांल्या दारांनी अशे माड नासले. आसले ते पयस, बांदार, शेताचे धडेर.

आमचो माड दिसतालोय बरो. आमचें घर वळखुपाची माड ही बरी कुरू आसली. कोणूय दायक कामाखातीर सोदूंक येतालो तेन्ना शेजारी सांगताले, "त्या माडाकुशीक घर."

पाखां फुलोवन कोंबलो तणाच्या कुड्यार उबो रावचो तसो माड, चुडटां फुलोवन आमच्या घरावयर राविल्लो. पयसुल्ल्यान तो तसोच दिसतालो.

माड लागपाक लागलो तेन्ना सुकिल्ले नाल्ल पडटाले. केन्ना बोंडेय झडटाले. सुकीं चुडटां, पिराडे पडटाले पूण माड घराच्या लागीं आसून लेगीत केन्ना एक नाल्ल वो चुडत घराच्या पाश्टार पडलेंना. बा म्हणटाली, माड मनशाळटा. तो सांबाळून झडटा. म्हाका तें खरें दिसतालें आनी फटूय दिसतालें.

पूण म्हाका माडाची खूप ओड लागिल्ली. हांव शाळेंतल्यान येतकच अभ्यास करपाच्या निमतान घराचे माळयेरूच बसतालों. वयर वारोय बरो येतालो. एका जनेलांतल्यान येतालो आनी दुसऱ्या जनेलांतल्यान वतालो. हांव जनेलाकुशीक बसून अभ्यास करतालों पूण नदर भायरूच आसताली.

बसला थंयच रावन म्हाका माडाचो कवाळो सारखो दिसतालो. पांचवीं चुडटां! वयर सरपी पोपटी शिवडी! कवाळ्यांत येवपी पेंडी!

काल दिशिल्ली शिवडी आयज पळयल्यार वयर आयल्या! पूण कालचे बोंडे आयज केदे जाल्या तें कळनासलें. पूण मागीर अकस्मात कांय दिसांनी ते मोटे जाताले.

बा म्हणटाली, “तुवूंय दिसानदीस वाडत आसा. पूण दिसपट्री वाड कळना.”

पूण हांव माडाक नियाळीत आसतालों. सकाळीं शाळेंत वचचे आदीं, मागीर शाळेंतसावन परतता तेन्ना, मागीर आमोरेर. रातचो.

एक दीस असोच माळयेर बसून जनेलांतल्यान माडाक नियाळीत बशिल्लों. रातचो वेळ तो. भायर मातशें चान्नें आसलें. जाल्यार



सपनांतल्याभशेन जालें. माड बागवलो आनी जनेला म्हऱ्यांत आयलो. आतां म्हटलें, हो पडटा काय किर्ते? कांचवेलो हांव. जाल्यार एक मंद हांसो आनी मागीर गोड उतरां.

“कल्पेश ऽ ऽ.”

पळय जाल्यार माडूच उलयता. उलयता म्हळ्यार कवाळ्यांतल्यान आवाज येता आनी नाल्ल दोळे कशे बिटबिट्टात.

“तूं माड उलयता?” हांवें अजापान विचारलें.

“तुवें म्हाका उलोवपाक लायला.”

“कसो?”

“तूं सामको जीव ओतून म्हाका नियाळटा. तुजेकडेन उलयलेबगर कशें रावूं येत? हांवूच कित्याक? तूं अशे तरेन ओड दाखयशी जाल्यार फातर लेगीत तुजेकडेन उलोवपाक लागतलो.”

हांव ताका पळयत उरलों. ताचीं उतरां आयकत रावलों.

“म्हाका तुजें नांव खूब आवडटा - कल्पेश! तुका तुजी बा आनी दाय उलो मारता तेन्ना बरें दिसता. कल्पेश ऽ ऽ” माडान म्हाका उलो मारिल्लेभशेन केलें. ताचो आवाज वेगळो आसलो. गोड!

“हांव तुका खंयच्या नांवान उलो मारूं?” हांवें विचारलें.

माड उलोवपाक शकता आनी मनशाभशेन ताका सगळें कळटा हें म्हाका पटिल्लें.

“माडाक नांवां खंय आसतात? आसलींच जाल्यार जाग्यावयल्यान आसता. बांदार आसलो जाल्यार बांदावयलो माड. धडेर आसलो जाल्यार धडेवयलो माड. केन्ना केन्ना आमचेमर्दी तांबड्या नाल्लांचो माड आसता. ताका तांबडो माड म्हणटा. वांकडो आसल्यार भेंड वांकडो माड, चडूच जाल्यार कणको माड!” माड नांवांची वळेरी सांगत रावलो.

“हांव तुका एक नांव दवरूं?” हांवें माडाक आपलेपणान विचारलें.

"म्हाका आनी नांव? तें आनी कितें?"

"कितें म्हणजे? जशें म्हाका नांव तशें तुका नांव."

"तुका नांवाची गरज. दायक, बाक, उलो मारपाक. शाळेंत बरोवपाक, म्हाका कसली गरज?"

"तुका नांव जाय. हांव तुका कसो उलो मारूं?" हांवें विचारलें.

"तशें जाल्यार दवर."

"तुजें नांव कल्परूख! आमच्या पुस्तकांत माडाक हें नांव आसा."

"कल्परूख?" माडान अजापान विचारलें.

"हय. कल्परूख."

"पूण अर्थ कितें?"

"पयलीं सर्गांत एक रूख आशिल्लो खंय. तो रूख जें मागता तें दितालो. देखून ताका कल्परूख अशें म्हणटाले." हांवें सांगलें.

"तो मागता तें दितालो जाल्यार ताका तशें म्हणूंक फाव."

"तो सर्गांतलो कल्परूख. तसो तूं धर्तरेवयलो कल्परूख."

"कसो?"

"तूं म्हणून आमकां कितलें दिता? सर्गांतलो तरी मागल्या उपरांत दितालो. तूं मागचे आदींच दिता."

म्हज्या उतराचेर माड हांसत रावलो. म्हळ्यार सळसळत रावलो.

"नांव आवडलें?"

"आवडलें. तुवें दवरलां म्हण चड आवडलें."

"हांव फाल्यां तुका पुस्तक दाखयतां."

"फायचें फाल्यां पळोवया. आडसर पियेतलो?" माडान कवाळ्यांतलें आडसर हालयत विचारलें.

"आतां?" आडसर फोडून खावप म्हाका अडचणीचें दिसलें. ताका म्हजी अडचण समजली. ताणें म्हणलें,

“फकत उदक पी. घे. देंठांतल्यान तोड.”

हांवें नेटान पेंडीचें आडसर कोंचलें. पूण पियेतलों कसो? उपाय माडानूच सुचयलो.

“म्हज्या चुडटाचो एक व्हीर काड, मोड आनी मुखावयल्यान बुराक कर. व्हीर ज्युस्त आडसराच्या दोळ्याक तोपूं दी.”

माडान चत्राय दिली. हांवें तशेंच केलें. मागीर माडान म्हणलें.

“बुराक जालो न्हय? आतां हे चुट्टेची बारीक नळी कर. कागदाची करता तशी. ती बुराकांत घाल. घातली? आतां ओड. बाटलेंत नळी घालून जशें पिता तशें पी.”



हांव आडसराचें उदक पियेत रावलों. गोड! आडसर ल्हान. पूण उदक कितलेंशेंच, सोपून सोपना. पियेन जातकूच आडसर जनेलांतल्यान भायर वडयलें. ताचो आवाजूय जालो.

ते रातीं आमी खूब गजाली केल्यो. अशे तरेच्यो गजाली, दोग इश्ट खूब तेंपान मेळटकूच करतात तश्यो गजाली. मागीर केन्नातरी म्हाका न्हीद लागली.

सकाळीं उठ जाल्यार सकयल हाथरूण ओलें जालां. चेड्डीय भिजल्या. रातीं हांव हाथरूणाचेर मुतलों तर! आडसराचें उदक पिल्ल्यान अशें जालें. हांव उठून जनेला म्हऱ्यांत गेलों. जाल्यार माड सामको आदलेवरीच. म्हळ्यार उब्याचो उबो. जनेलाकडेनबी बागवूंक ना. हांव माडाक पळोवन हांसलों. जाल्यार माड वग्गी. सदचेभशेन.

इतल्यान म्हाका उठोवपाक बा वयर आयली. म्हजी अवतिकाय पळोवन म्हणपाक लागली,

"कल्पेश, तूं आजूनय हाथरूणाचेर सू करता?"

"ना बा. रातीं आडसर पिलों आनी तशें जालें."

"आडसर? खंयचें आडसर?"

"माडाचें."

"माडान तुज्या हातांत हाडून दिलें काय किर्ते रे?"

"ना. हांवें तोडून काडलें."

"कशें? माड थंय, तूं हांगा." बान जनेलांतल्यान भायर पळयत म्हजीं फकाणां केलीं.

"खरेंच बा. हांव फट सांगना." हांव बाक समजावपाचो यत्न करतालो. पूण बाक तें पटलें ना. ती हांसत हांसत ओली चादर कवळपाक लागली.

म्हाका चट करून याद जाली. हांव धांवत माळयेचीं सोपणां देंवन

सकयल गेलों. बद्द माडाच्या मुळांत. हांगा थंय सोदलें. जाल्यार जूस्त तें आडसर थंय पडलां. उखल्लें. पळयलें. ताका केल्लो बुराक तसोच आसलो. आडसर हालोवन पळयलें जाल्यार रितें. हेंच तें आडसर. आडसर घेवन हांव धांवत बा म्हऱ्यांत गेलों.

"बा, तुका फट दिसता न्हय? हें पळय, हांव रातीं पियेल्लों तें आडसर हेंच. तातुंतलें उदक पियेवन हांवें तें जनेलांतल्यान सकयल वडयिल्लें."

बान आडसर आर्तें पर्तें करून पळयलें.

"रातीं पडिल्ल्याचो आवाज जाल्लो खरो."

आडसर माडाचें आनी माडावयल्यान रातीं पडलां इतलेंच बान खरें मानलें. बाकिचें सगळें तिणें फकाणांचेर व्हेलें.

शाळेंत वतना, म्हज्या गळ्यांत बांदिल्लो दिश्टिचो दोरो आसा काय शेणलां ताची मात तिणे खात्री करून घेतली.

त्या दिसा हांव शाळेंत गेलों. शाळा सुट्टकच घरा आयलों. केन्ना काय रात जाल्यार पुरो अशें जालें. हातांत पुस्तक घेवन हांव माळयेर माडाची वाट पळयत रावलों. मर्दी न्हीद लागली. जाग आयली ती माडाच्या उल्यान. "कल्पेश ऽ ऽ" तींच म्होंवाळ उतरां.

हांवें दोळे उकते केले. कालचेभाशेनूच माड बागोवन जनेलांत आयिल्लो.

"जाणां कल्परूखा, काल आडसराखातीर म्हजी फजेत जाली." हांवें म्हणलें.

"म्हाका खबर आसा. ते खातीर म्हाका खूब वायट दिसता. पूण हांव कांयच करूंक शकना."

"तूं म्हजेकडेन उलोवपाक शकता तसो हेरांकडेन उलोवंक शकना? निदान म्हजे बाकडेन? दायकडेन?"

"ना."

"कित्याक?"

"मनशां कपटी आसतात. स्वार्थी आसतात."

"हांवूय मनीस."

"पूण तूं निष्पाप ! नेणार ! देखून हांवें तुजेकडेंन इश्टागत केल्या."

"म्हाका ही इश्टागत अशीच तिगोवन दवरपाक जाय."

"म्हाकाय जाय." माडान म्हणलें.

"किर्ते करीत जाल्यार आमची इश्टागत तिगची ना?"

"अमुकूच अशें ना. पूण म्हाका आवडना तें करिना जातकूच जालें." माडान सांगलें.

"तुका किर्ते आवडना?"

"तें कशें सांगूंक जातलें? तुजें तुवें समजून घेवचें पडटलें."

"पळय. हांवें तुका दाखोवपाक पुस्तक हाडलां." हांवें पुस्तक उसयलें आनी माडाचेर बरयिल्लो "कल्परूख" हो पाठ उकतो केलो.

"ताचेर किर्ते बरयलां?" माडान विचारलें. ताका वाचपाक येना आसलें.

"वाचून दाखोवं?" हांवें उमेदीन सांगलें.

हांव वाचपाक लागलों.

"माड आमकां आडसरां दिता, नाल्ल दिता. नाल्लाची सोय कांततात. तेल काडटात. नाल्ल जेवणाक वापरतात."

"बरोबर." माडान मर्दीच म्हणलें.

"नाल्ल देवकार्याक वापरतात. तेन्ना ताका श्रीफळ म्हणटात."

"बरोबर."

"माडाच्या चुडटांनी खोंपी, घरां शिवतात. चुडटांचीं मल्लां करतात. मल्लांचो उपेग माटोव घालपाक, कडवे बांदपाक करतात."

"बरोबर." माडाक उमेद जाल्ली.

"चुडटांच्या व्हिरांच्यो सान्नी करतात. नुस्तें धरपाखातीर कुळी करतात."

"बरोबर."

"कट्ट्यांचे दवले करतात."

"बरोबर."

"माडाचे वांशे करतात. वांशे घराखातीर वापरतात. पडिल्लो माड पोखरून ताचो पनेळ करतात. ताची लाट करून उदक उसपितात. नाल्लांचीं सोण्णां कुसोवन ताचो काबळो करतात. काबळ्याचीं पांयपुसणीं करतात. दोरखंड करतात. माडाची कसलीच वस्त भायर पडना. सगळ्याचो जळव म्हण उपेग जाता. माड आमकां जाय तें दिता देखून ताका कल्परूख म्हणटात."

"बरोबर. पूण अजून कांय वस्तू उरल्यो." माडान म्हणलें.

"खंयच्यो?"

"हरव्या चुट्टयांचीं भुरगीं वक्लां करतात. करवो कापून गाड्यांखातीर चक्रां करतात. क्रिकेट खेळपाखातीर पिराड्यांचीं बेटां करतात. नाटक करपाच्या वेळार त्याच पिराड्याच्यो तरसादी करतात. सुकून पडिल्ले बोंडे खेळाखातीर बॉल म्हण वापरतात." माडान एका दमान सांगलें आनी तो सळसळून हांसपाक लागलो.

"आनीक एक वाक्य वाचपाचें उरलें." हांवें म्हणलें.

"खंयचें? वाच."

"माडाची सूर काडटात."

"तेंवूय बरयलां?" माड निरशेलो.

"तें बरोवपाचें न्हय?"

"सूर काडटा खरी. काडटा म्हणटकूच बरयलां तें खरें. पूण तुज्यान

एक करूं येता?"

"कितें?"

"माडाची सूर काडटा ताचे बदलीं माडाची सूर काडूं नये अशें बरय."

"कित्याक?"

"तुजी मान कापून रगत काडल्यार जायत?"

"ना."

"मागीर? म्हजी पोंय कापून सूर कित्याक काडप? सोरो करपाखातीर मरे? हांव इतलें सगळें दितां तें उणें म्हण म्हजो गळोच कापप?"

माड रडकुऱ्या आवाजान सांगतालो. ताचीं दुकांच गळटालीं आसूंक जाय. पूण तीं म्हाका दिसलींना. हांवें मेजाच्या खणांत हात घालून पेन काडलें.

"कितें करता?"

"तुवें सांगलां तशें बरयतां."

"राव. हो चुट्टेचो व्हीर काड. तुज्या मेजार तो तिंतेर आसा, तातूंत बुडोवन बरय."

हांवें तशें केलें. "माडाची सूर काडूं नये." अशें स्पश्ट बरयलें. छापलेल्या अक्षरांपरस बरयिल्लीं अक्षरां व्हड जालीं. माडाक तीं वाचून दाखयलीं. माड खुशी जालो.

"आडसर पियेतलो?" ताणें विचारलें. पूण हांवें रोकडेच ना म्हण सांगलें.

दुसऱ्या दिसा हांव शाळेंत गेलों. मदले सुटयेंत हांवें म्हगेल्या संवगड्यांक पुस्तक उकतें करून दाखयलें. तांकां म्हणलें -

"आमच्या माडान हें आपणाल्या व्हिरान म्हाका बरोवपाक लायलां."

"किर्ते बरयलां पळोवया." मोटेल्या धनेशान पळयलें आनी मोट्यान वाचलें, "माडाची सूर काडूं नये."

मागीर ताणें विचारलें,

"हें किर्ते बरयलां?"

"माडान म्हाका तशें बरय म्हण सांगलें."

"खंयचो माड?"

"आमच्या घरामुखार आसा तो. तो माड मनशाळो."

"तो उलयता?"

"हय. उलयता."

"ए ऽ ऽ ए ऽ ऽ आयकात." धनेशान सगळ्यांक एकठांय हाडले.

"पळयात हो कल्पेश किर्ते सांगता तो. तागेलो माड खंय उलयता."

"माड उलयता? रेडिओ तर रे तो?" एकल्यान म्हणलें.

"माडाच्या कवाळ्यांत दवरला आसतलो रेडिओ." दुसऱ्यान म्हणलें.

"तरी बरे, हागेर एकूच माड आसा. आमच्यासारके शं ऽ ऽ बर ना." धनेशान म्हाका चाळयत म्हळें. तो भाटकारालो चलो आसलो आनी तागेल्या भाटांत खऱ्यांनीच खूब खूब माड आसले.

"तुगेर कितलेय शंबर माड आसूं, तातुंतलो एकलो तरी उलयता जाल्यार सांग. व्हडलो आयला भाटकार!" हांवें सांगलें. ते सरशीं धनेशाक आयलो राग. तो रागान सामको तांबडोगूंज जालो. म्हज्या फाटल्या-फुडल्यान नाचपाक लागलो. म्हणपाक लागलो,

"व्हडली मिजास मारूं नाका. एका माडाचो भाटकार तूं."

ताणें म्हाका धुकलूनय वडयलो. म्हजेपरस तो मोटो आसलो आनी शक्तीमानूय आसलो. धनेशान सगळ्या संवगड्यांक आपणाल्या भोंवतणी जमयले.

"जाणां तुमी, आमच्या भाटांत कितले माड आसा जाणां? ते कातरून आडवे करूनच तांनी एक रांग केली जाल्यार ती रांग हांगासावन दिल्लीमेरेन पावतली. आनी ते जर एकामेकांचेर उबे केले जाल्यार बद्द सर्गाक तेंकतले."

सगळे अजापान ताची गजाल आयकताले. तांकां तें खरेंच दिसलें. त्या उतरार हांवें धनेशाक म्हणलें,

"तशें जाल्यार दिल्ली आनी सर्ग सारखेच? दिल्लीक जितल्या वरांनी पावूं येता तितल्याच वरांनी सर्गांत पावूं येता?"

म्हज्या प्रस्नाक धनेश गडबगडलो. वगी पडलो. ते सरशीं ताचेच संवगडी ताचींच फकाणां करपाक लागले. ताका परत राग आयलो.

"एका माडाच्या भाटकारा, तुजो माड म्होडून पडूं!" अशें म्हणून तो म्हजेफाटल्यान लागलो. पूण इतल्यान घंटा वाजली. मदली सुटी सोंपली.

ते रातीं माडाची आनी म्हजी भेट जाली. सकाळीं शाळेंत घडिल्ली गजाल हांवें माडाच्या कानार घातली. माड कांय वेळ वगी रावलो आनी मागीर म्हणपाक लागलो,

"बस. कवाळ्यांत बस."

हांव जनेलांतल्यान भायर आयलों आनी माडाच्या कवाळ्यांत बसलों. दोनूय हातांनी चुडटांच्या पिराड्यांक घट्ट धरलें.

माड उबो जालो. आनी सरसर करून वयर सरपाक लागलो. सामको बाण कसो! हांवें सकयल पळयलें. आवयस्! सकयलीं घरां चान्यांत ल्हान थिपके कशीं दिसतालीं. घरांतल्यान मात मात उजवाड दिसतालो.

आनी वयर! सामको लखलख! सगळ्याक नक्षत्रांच नक्षत्रां.

"तुका जाय तितलीं तोड." माडान म्हणलें.

"कितें तोडूं?"

"नक्षत्रां."

"पूण तोडल्यार उणीं जावंचीं ना?"

"ना."

"कशीं?"

"आतां रातचीं तोडून व्हेलीं तरी दिसाचीं आपशींच येवन हांगां दसतलीं."

"खऱ्यांनीच?"

"हय. तेच खातीर तर तुका हांगासर हाडला. तोड."

माडान सांगना बराबर हांवें एका नक्षत्राक हात घालो. ओडलें. तुटलें आनी हातांत आयलें. मातशें हून आसलें. तशेंच कलसावांच्या बोल्सांत घातलें. मागीर दुसरें तोडलें. तिसरें. चवथें. कलसावांचीं दोनूय बोल्सां भरलीं. खोमसाच्या वयल्या बोल्सांतूय घातलीं.

"पुरो." हांवें माडाक म्हणलें.

ते सरशीं माड ल्हवू ल्हवू सकयल देंवपाक लागलो. म्हळ्यार लांब जाल्लो तो मोटवो मोटवो जावपाक लागलो. सामको मोटवो जालो आनी घराच्या जनेलाकडेन आदलेवरी बागोवन रावलो. हांवें पट्ट करून जनेलांत उडी मारली. माळयेर आयलों. बोल्सांतलीं सगळीं नक्षत्रां काडून मेजार दाळून दवरलीं. माळीभर उजवाड फांकलो. माड आसा तसो उबो जालो.

मेजा वयल्या नक्षत्रांक वेंग मारून हांव तसोच कदेलाचेर न्हिदलों.

सकाळीं जाग आयली. पळय जाल्यार मेजार एकूय नक्षत्र ना. माडान सांगिल्लें तेंच खरें. दिसाचीं सगळीं नक्षत्रां आपल्या जाग्यार उडून गेल्लीं. हांवें मेजाचेर हात भोंवडायलो. नक्षत्रांची हुनसाण आजून मेजाक आसली.

वायट दिसलें खरें पूण माडान आदीं सांगिल्ल्यान बऱ्याक पडलें.

नाजाल्यार रडपाक येतलें आसलें.

त्या दिसा शाळेंत मदले सुटयेंत सगळे जाण धनेशा भोंवतणी एकठांय जाल्ले. ताणेंच तांकां आपोवन हाडिल्ले. तो तांकां किते तरी सांगतालो. तो सांगता तें हांवेंय आयकुचें अशें ताका दिसतालें. म्हजे खातीरूच तो तें सांगतालो म्हळ्यार जाता. हांव कुशीक आसलों. मागीर एकल्यान म्हाका मुद्दम आपोवन तांगेल्या पंगडांत आपयलो. धनेशानूच आपोवपाक



लायलो. आपयलो म्हण हांव गेलों. मोटेल्या धनेशान सांगपाक सुरवात केली. "जाणां मरे, आमगेर एकदां भाट पाडलें. नाल्लांची दोंगरायेदी रास जाली. मागीर ते सगळे नाल्ल फोडले. फोडलेल्या नाल्लांतल्यान जें उदक भायर पडलें त्या उदकाचें एक तळें जालें. पेंवपाक मेळटा तेदें! नाल्लाचीं वळीं मागीर सुकयलीं. तीं सुकोवपाक शं ऽ ऽ बर दीस लागले. मागीर त्या वळ्यांचें खोबरें जालें. खोबऱ्याचें तेल काडलें. घरा येद्या हांड्यांनी भरून दवरलें."

म्हज्यान तीं बंडलां सोसूंक जायना जालीं. हांवें म्हणलें,

“आतां तीं तेलाचीं आयदनां खंय? विकलीं काय घाणांक दवरल्यांत? कसलीं बंडलां फोडटा?”

“हांव बंडलां फोडटां? एका माडाच्या भाटकारा? तशें जाल्यार तूं सांग मरे. आयकुया तुज्यो गजाली.” धनेशान तापून सांगलें. हांवें म्हणलें, “हांव सांगचो नासलों पूण तूं सांग म्हणटा म्हण सांगतां.”

“सांग कितें तें.”

“हांव काल रातीं माडाचेर बसून मळबांत भोंवडी करून आयलों.”

“माडाचेर बसून मळबांत भोंवडी?”

“हय. ह्या हातांनी हांवें नक्षत्रां खुडून कलसावांच्या आनी खोमसाच्या बोल्सांत भरिल्लीं.”

“मागीर खंय तर तीं? आमकां दी मरे एक एक.” धनेशान म्हणलें.

“पिसो तूं. दिसाचीं नक्षत्रां उडून वचून आशिल्लीं तशीं आपल्या जाग्यार वचून रावता.” हांवें आत्मविश्वासान सांगलें.

“अब्बा, काल तुजो माड उलयतालो. आतां तूं मळबांत वचपाक लागलो? कसल्यो सुरय फटासो रे?” धनेशान कपलार हात मारीत म्हणलें.

हांव थंयसान कडेक सरलों. धनेश संवगड्यांक कितें कितें सांगत आसलो. आनी ते व्हडाव्हडान हांसत आसले.

दर एके राती माड चुकनासतना जनेलांत म्हजे भेटेक येतालो. म्हजेकडेन गजाली करतालो.

हांव सद्दां शाळेंतल्यान घरा येतकूच सांज जावचे आदीं सगळो अभ्यास करतालों. रातचो करपा खातीर कसलोच अभ्यास दवरिनासलों. रातचो वेळ फकत माडाकडेन गजाली करपा खातीर दवरतालों.

एक दीस मात हांव अडचणींत सांपडलों. मास्तरान गणितां दिल्लीं. तीं सोडोवपाचो खूब यत्न केलो पूण कशींच कळना जालीं. इतले म्हणसर

आमोरी जाली आनी मागीर रात.

रातचो माड भेटेक आयलो. ताणें आर्दीच म्हजी अडचण पारखिली.

"कितें जालां? गणितां सुटना?"

"हय."

"वाच पळोवया."

हांवें गणितां वाचून दाखयलीं. तीं बेरीज आनी वजाबाकी आसलीं. माडान आपणाले नाल्ल मेजपाक लायले. मदीं चुडट्यो मेजपाक लायल्यो. नाल्लांनी आनी चुडटांनी हिशोब समजावन दिलो. म्हाका तो समजलो. हांवें भराभर गणिताच्यो जापो बरोवन काडल्यो.

दुसऱ्या दिसा शाळेंत गेलों. पोवळे मास्तरान सगळ्यांचीं गणितां तपासलीं. सगळ्यांचीं चुकलेलीं. धनेशाचीं तर सगळ्यान सगळीं चुकलेलीं. फकत म्हाका पैकीच्या पैकीं गूण पडिल्ले. सगळेजाण म्हजेकडेन अजापान पळयत रावले. पोवळे मास्तराकूय म्हजो दुबाव आयलो.

"तुका गणितां कोणें दाखयलीं काय तुजे तुर्वेच सोडयलीं?"

मास्तरान मान वांकडी करून वक्लांतल्यान म्हजेर नदर भोंवडायत विचारलें.

हांवें म्हणलें, "दाखयलीं !"

"कोणे?"

"माडान." हांवें जाप दिली. ते सरशीं मास्तराली तकली खडांयच करून उबी जाली. ताणें सगळ्या वर्गाचेर नदर मारली. सगळो वर्ग खो खो करून हांसतलो अशें ताका दिशिल्लें पूण कोणूच हांसलोना. कारण सगळेजाण म्हज्या माडाविशीं आयकून जाणां आसले. आनी आयज तर माडान गणितां सोडयिल्लीं. मागीर कोण कित्याक हांसतलो?

मदले सुटयेंत धनेशान म्हाका भायर आपयलो. आमचे बरोबर

बाकिचे भुरगे आयले. आतां धनेश बरोच नरम पडिल्लो. ताणें म्हणलें,

"कल्पेश, तुज्या माडाच्यो गजाली खऱ्यो कित्यावयल्यान?"

"कित्यावयल्यान म्हणजे? हांव सांगतां म्हणून खऱ्यो."

"फाल्यां हांवूय सांगतलों असल्यो गजाली. आमच्या पणसाक आंबे जाता म्हण सांगतलों. तूं खरें धरतलो?" धनेशान विचारलें.

"कित्याक खरें धरतलों? तुगेलो पणस येवन पळयतलों. आनी खात्री करून घेतलों." हांवें जाप दिली.

"आमकांय तुज्या माडाची अशी खात्री दी."

"म्हणजे कशी?"

"तू सांगता, माडान मळबांत व्हरून हाडलो. तुवें नक्षत्रां तोडलीं. माडान गणितां सोडयलीं. पूण आमकां कळपाचें कशें? तुजीं बंडलां न्हय कित्यावेल्यान." धनेश शांतपणान उलयतालो. म्हाकाय ताचें म्हणणें पटलें. पूण ताणें तापून सांगिल्लें जाल्यार हांव तें कशेंच मानून घेवंचो नासलों. रातीकडेन तोच प्रस्न हांवें माडाक विचारलो. माड चिंतेस्त जाल्लेवरी म्हाका दिसलो. आपणांखातीर म्हाका त्रास जातात अशें ताका दिसतालें. हांवें म्हणलें,

"कल्परूखा, तूं तशें समजूं नाका. खऱ्यांनीच तुजे इश्टागतीखातीर हांव खोशी आसां. तूं जीं कर्तुपां करता तीं हांव लोकांक पटोवपाक शकना. आसूं. कांय हरकत ना. ताणी म्हाका चाळयल्यार जाता. पिसो म्हळ्यार जाता. म्हाका मेळ्ळां तें खूब व्हडलें."

माडाक समजायतना हांव रडकुऱ्यां आयलों. दुकांय गळ्ळीं. पोल्यावयल्यान. माडान आपणाले चुट्टेन पोल्यावयलीं दुकां अचळय पुसून काडलीं. अख्खे चुडत म्हजेमुखार धरीत ताणें म्हणलें,

"आतां मेज."

"कितें?"

"चुट्ट्यो."

"त्यो मेजून किर्ते करूं?"

"आतां मेजून दवर आनी फाल्यां त्या तुगेल्या धनेशाक आनी संवंगड्यांक घेवन यो." माडान सांगलें.

हांवें चुट्ट्यो मेजल्यो. एके वटेनच्यो, मागीर दुसरे वटेनच्यो.

माड हांसलो आनी आसा तसो उबो जालो.

दुसऱ्या दिसा हांव शाळेंत गेलों. मदले सुटयेची वाट पळयत बसलों. मदले सुटयेंत आमी सदचेभशेन एकठांय जाले. हांवें म्हणलें,

"काल रातीं माड जनेलांत आयिल्लो तेन्ना हांवें ताच्या एका चुडटाच्यो चुट्ट्यो मेजल्या. एका अर्दाच्यो ज्युस्त शंबर आनी दुसऱ्या अर्दाच्यो शंबर आनी दोन, सगळ्यो मेळून दोनशें दोन जातात. तुमकां फट दिसता जाल्यार तें चुडत काडून मेजून पळयात."

कोण कांय एक उलयलो ना. धनेशान म्हणलें,

"शाळा सुट्टकच हागेर या आनी खात्री करून घेवंया."

शाळा सुट्टकच सगळ्यांचो मेळ आमच्या घराकडेन पावलो. तरी बरें घरांत कोण नासलो. दाय कामांक गेल्लो आनी बा कामाची सुटून आजून येवंची आसली.

"खंय तो माड?" धनेशान विचारलें.

"हो न्हय रे तुका पळयता." हांवें म्हणलें. ते सरशीं धनेशान कच्च करून आंग काडलें. ताका दिसलें माड खऱ्यांनीच ताका पळयता म्हण.

"खंयचें तें चुडीत, दाखय पळोवंया." धनेशान वयर पळयत विचारलें. ताचेबरोबर सगळ्यांनी वयर पळयलें.

"हें तें. जनेलावटेन आसा तें. मातशें सुकलां."

"पूण वयर चडटलो कोण?"

"आनी चुट्ट्यो मेजतलो कसो?"

एकलो एकलो उलोवपाक लागलो.

“आमी सगळे माळ्येर या. जनेलांत रावूया. मागीर जनेला म्हऱ्यांत आपय तुज्या माडाक.”

“ना. तो तसो येवंचो ना.” हांवें म्हणलें.

“तशें जाल्यार हांव म्हज्या बाबाक सांगून एका पाडेल्याक आपयतां. ताका वयर चडोवन, चूडत कापून काडूंया. मागीर चुट्ट्यो मेजूंया.”

“जाता!” हांवें म्हणलें.

“पूण एक सांग. पैज कितली?”

“कसली पैज?”

“जर तुवें सांगिल्ल्यो तितल्योच चुट्ट्यो जाल्यो जाल्यार हांव तुका बाबाक सांगून शंबर नाल्ल दितां.” धनेशान म्हणलें.

“आनी आमकां कितें?” बाकिच्यांनी विचारलें.

हांवें म्हळें, “म्हाका शंबर नाल्ल नाका. ह्या सगळ्यांक एक एक नाल्ल दिवपाचो.”

धनेशान तें मानून घेतलें.

“तुजें फट जालें जाल्यार? कितें पेड्ड्यार?” धनेशान म्हाका विचारलें. हांवें म्हणलें, “सांग, तूंच सांग.”

“हो तुजो माड म्हाका.” धनेशान म्हणलें.

हांव मातसो अनमनलों. पूण हांवें “आं” म्हणलें.

पाडेल्याक केन्ना हाडपाचो तें थारावपाक लागले. इतल्यान सर्र सर्र जालें. आनी माडावयल्यान एक चूडत घो ऽ ऽ करून सकयल पडलें. सगळ्यांनी वयर पळयलें. जाल्यार तेंच चूडत आसलें. म्हाका माडाचीं उतरां याद जालीं. “चुट्ट्यो मेजून दवर आनी तुगेल्या धनेशाक आनी संवंगड्यांक घेवन यो.”

चूडत जमनीर पडनाफुडें हांवें म्हणलें, “आतां मेजात चुट्ट्यो.”

सगळ्यांनी चुट्टाचेर घालून घेतलें पूण सगळो बोवाळूच जालो. चुट्ट्यो सारक्यो कोणाकूच मेजपाक जमना जाल्यो. मेंजिल्ल्यो मेंजिल्ल्यो घुस्पवपाक लागल्यो.

"बारीक पासून मेजपाच्यो?" एकल्यान विचारलें.

"पिंजल्या ती एक धरपाची काय दोन?" दुसऱ्यान प्रस्न केलो.

"एका व्हिराची एक चुट्टी अशी धरपाची. बारीक आसल्यार तिव्रूय धरपाची." हांवें सांगलें.

मागीर मोट्या गंभीर वातावरणांत परत एक फावट मेजप जालें. एकदां. दोनदां. चुट्ट्यो हांवें सांगलेल्यो तितल्योच जाल्यो. एकें वटेनच्यो शंबर. दुसरे वटेनच्यो एकशें दोन. वट्ट मेळून दोनशें दोन.

सगळ्यांक अजाप जालें. धनेशान मान खाला घातली. नाल्ल गेले म्हण ताका खंत जावंक नासली, तर आपूण हरलों म्हण ताका वायट दिसलें.



इतल्यान म्हजी बा घरा आयली. सगळ्यांक घराकडेन पळोवन तिका कल्ल जालें. कितें घडलां तें समजून घेता आसतना तिवूय बुचकळ्यांत पडली.

दुसऱ्या दिसा हांव शाळेंत आसतना पोवळे मास्तर आमच्या घराकडेन पासय मारून आयलो. म्हाका तें मागीर कळ्ळें. मास्तरान तो माड पळयलो खंय. माळी पळयली. जनेल पळयलें. बाक आनी दायक मेळ्ळो. तांकां कितें कितें सांगलें आनी परत आसा तसो शाळेंत आयलो खंय.

ते उपरांत चवथ्या वा पांचव्या दिसाची खबर. सकाळीं फुडें मेस्त आपणाली आयिद्दां घेवन आंगणांत हाजीर. दायन आर्दीच हाडून दवरिल्ल्यो फळयो आनी लाकडी खुंटे आंगणांत हाडून मेस्तासरीं दवरले.

“हें कितें करता?” हांवें मेस्ताक विचारलें. मेस्तान दायकडेन पळयलें. दायन म्हणलें -

“तें तुका कित्याक? तुजो शाळेचो वेळ जालो. तूं शाळेंत चल. मागीर येतकूच तुका कितें तें कळटलें.”

हांव मोन्यांनी शाळेंत गेलों. शिकपाचेर लक्ष लागना आसलें. पोवळे मास्तर म्हजेसरीं आयलो. हरशीं शिकपाचेर लक्ष नासल्यार तो म्हाका तापयतालो. पूण त्या दिसा तापलोना. कांय एक उलयलो ना. अपुरबायेन म्हजे फाटीर हात मात भोंवडायलो. म्हाका असली काकळूट नाका जाली. पूण हांव ओगी रावलों.

मदले सुटयेंत धनेश आपल्या इश्टांक घेवन म्हजेसरीं आयलो. म्हणपाक लागलो, “कल्पेश, पैज तूं जिकलो, हांव हारलां. तुका सांगिल्लें तें दिवपाक हांव तयार आसां. पूण हांचें सगळ्यांचें म्हणणे दर एकल्याक एका नाल्लावाट्याचें एक एक आडसर दिवचें.”

“तांकां तशें जाय तशें कर. म्हजी कांय हरकत ना.”

केन्ना काय शाळा सुट्टून घरा पावता अशें जाल्लें.

शाळा सुटना बराबर घरा धांव मारली. पळय जाल्यार आंगणांत सकाळीं आयिल्लो तो मेस्तबी कोण ना. फकत कापिल्ल्या लाकडाची तूस. म्हाका दुबाव आयलो आनी हांवें माळयेवटेन पळयलें. दुबाव खरो जाल्लो. हांव तसोच माळयेर धावून गेलों. दोनूय जनेलांक गडगंज खुंटे लायिल्ले. हांव म्हज्या जनेलाकडेन आयलों. दोनूय हातांनी हांवें जनेलाचे खुंटे हालयले. पूण ते मात लेगीत हालले ना. हांव रडपाक लागलों.

कांय वेळान बा वयर माळयेर आयली. तिच्या तायटार गोबोर कसो किर्ते आसलो. तिणें म्हणलें,

“ही बिभूत. मातशी जिबेक लाय.” गोबोर कसोच लागलो. उरलेली तिणे गंध कशें म्हज्या कपलाक लायली. म्हणपाक लागली,

“आतां तूं रोकडो बरो जातलो.”

“बरो जातलो? म्हणजे म्हाका किर्ते जालां तर?” हांव बाचेर तिडकलों.

“तुका दीश्ट लागल्या आनी आतां जनेलूय बंद केलां. आतां कसलो हुस्को ना.”

“म्हजें जनेल तुमी कित्याक बंद केलें? म्हाका सांगनासतना?” हांव रडपाक लागलों.

“जनेलांतल्यान लावां लुतां भितर येतालीं आनी तुका पिडटालीं. म्हणून जनेलां बंद केलीं आनी केन्नातरी जनेलांक खुंटे लावपाकूच जाय आसले. पयशांखातीर उल्लेले. आतां लायले.”

“लावां लुतां बी कोण ना. सगळीं फकाणां. जनेलांत हो तो माड येतालो. तो तुमकां नाका जालो.” हांवें सांगलें.

“आतां माड बी कोण येवपाचो ना. आनी आतां तो माड आमचो

उरूंक ना. तो दिला." बान निबरसाणेन सांगलें.

"दिला? कोणांक दिला? दिवपाक तो किर्ते जनावर?"

"जनावराभशेनूच वागता न्हय रे तो, देखून दिलो."

"कोणाक दिलो?"

"विचार तुज्या दायक." बा माळयेचीं सोपणां देंवन सकयल गेली.

दिसभर हांव दायची वाट पळयत रावलों. पूण दाय कामांक गेल्लो तो बद्द आमोरेर घरा आयलो. एकलो आयलोना. ताचेबरोबर आनीक एक मनीस आसलो. म्हाका तो वळखिचोसो दिसलो.

"वळखलो रे बाब?" ताणेंच म्हाका विचारलें.

आतां हांव ताका वळखलों. तो रेंदेर. नांव दुर्मींग. केन्नाय आमी भाटांत खेळूंक वतना आमकां भुरग्यांक तो दिसता. भुरगे ताका तितीव म्हणटाले. माडांची सूर काडपाचें ताचें काम. पूण हो रेंदेर आमगेर कित्याक? हांव बुचकळ्यांत पडलों.

"कल्पेश, हो आमचो माड दुर्मींग तितवाक सुरीक दिला." दायन म्हाका सांगलें, दायच्या उतरांचेर दुर्मींग तितवान नोटांचे कवळे दायच्या हातार दवरले.

"पयल्यान पयलीं कल्पेशाक नवी मुस्तायकी शिवूंया." दायन म्हणलें. तो म्हाका फुसलायता म्हणपाचें म्हाका समजलें. किर्ते चल्लां तें म्हज्यान सोसूंक जालें ना. हांवें वयर माळयेर धांव मारली.

ते रातीं हांवें जनेलांत रावन माडाची वाट पळयली. खुटांक गच्च धरून माडाक उलो लेगीत मारले. "कल्परूखा ऽ ऽ, कल्परूखा ऽ ऽ."

पूण माड जनेलांत आयलो ना. सकयल सावन बान मात म्हणलें,

"कल्पेश, वयर न्हीद पडना जाल्यार सकयल येवन न्हीद."

हांव न्हिदेचें संवंग घेवन वगीच रावलों.

दुसऱ्या दिसा शाळेंतल्यान घरा यो जाल्यार माडाच्या मुळांत कांय

तन्नी चुडटां कातरून पडल्यांत. माडाक हेवटेन तेवटेन खांपां मारल्यांत. हांवें वयर पळयलें. माडाच्या कवाळ्यांत पोंय कापून ताचेर मातयेच्चो दाबणो लायला. कापिल्ले पोंयेचे कुडके सकयल पडिल्ले. हांवें ते हातांत घेतले. कवळे कळे कशे! तांकां जीव आसा आनी ते तायटाचेर हुळ्ळहुळ्टा अशें म्हाका दिसलें.

हांव तसोच माळयेर गेलों. जनेलांतल्यान दाबणो स्पश्ट बरो दिसतालो. चुडटां कापिल्ल्यान आनी दाबणो लायिल्ल्यान माडाची अवतिकाय विद्रूप जाल्ली. म्हालो मर्दीच तकलेचे केंस खापायता तशें जाल्लें.

दनपारां हांव जेवलोंना. रातीकडेन दायन खऱ्यांनीच मुस्तायकेखातीर कपडो हाडलो. खोमसाक वेगळो आनी कलसावांक वेगळो. नाजाल्यार पयलीं दोनांकूय एकेच तरेचो हाडटालो. मागीर भुरगे चाळयताले. हे खेपेचो कपडोय बरो आसलो. म्हाका आवडलो खरो. पूण हरशीं जात्रे शिगम्याक कपडे हाडटकच जशी उमेद जाता तशी उमेद जावंक नासली. दायनूय सांगलें, “फाल्यां शिंवप्यागेर जोकाखातीर या.”

हांव वगीच रावलों. फाल्यांय ना आनी केन्नाच ना अशें हांवें मनांत थारायलें.

कितलेशेच दीस गेले. हांव दर रातीं माळयेर माडाची वाट पळयत रावलों, पूण माड आयलो ना. माडाची दशा मात सामकी वायट जाल्ली. पयलीं तितीवान ताची एकूच पोंय कापिल्ली आनी एकूच दाबणो लायिल्लो. मागीर दुसरे वटेनची पोंय कापली. ताचेर आनीक एक दाबणो लायलो. मागीर तिसरी. मागीर चवथी. माडाचेर चारीवटेन चार दाबणे लायले.

आतां माडाचीं चुडटांय उणी जाल्लीं. कारण जंय दाबण्यांक आडखळटालीं तीं तितीवान कातयेन कातरून वडयिल्लीं. माडाक एक

लेगीत नाल्ल नासलो. कित्याक तर आयिल्ली पोंय तितीव कातरतालो आनी तिचेर दाबणो लायतालो. मागीर नाल्ल खंयचे जातले?

तितीव सांगतालो,

"जाणां चेड्या, तुगेलो माड सगळ्यांत बरो. तेका चार दाबणे लागल्या. आनी चड सूर मेवटा."

तितीव सकाळीं फुडें खांदार कळसो मारून येतालो. कळसो माडा मुळांत दवरून एका हातांत काती आनी दुसऱ्या हातांत दुदकें घेवन खांपावयल्यान माडार चडटालो. तागेलें दुदकें कोंकणदुदयाचें केल्लें आसतालें. दाबण्यांतली सूर दुदक्यांत ओतून घेतालो. दाबण्यांत फूंक मारतालो आनी आसा तसो रितो दाबणो वण्टीक खुंटयेक लावचो तसो पोंयेक लायतालो. थंयसावनूच म्हाका एक उलो मारतालो,

"ओ ऽ ऽ चेड्या."

हांवें केन्नाच ताच्या उल्याक जाप दिली ना. हरशीं जाल्यार म्हाका ताच्या माडार चडपाचें खूब कवतूक दिसतलें आसलें. पूण तो म्हज्याच माडाची सूर काडून म्हाकाच चाळयता अशें दिसतालें.

मागीर तो चडिल्लो तसो खांपावयल्यान सहजतायेन सकयल देंवतालो. हांव माळयेचीं सोपणां देंवतां तितले सहजतायेन तो देंवतालो. दुदक्यांतली सूर कळशांत रकयतालो आनी आयिल्लेवटेन परततालो.

दनपरां फकत चकचकीत काती घेवन येतालो. तसोच माडार चडटालो. शेव घालतालो. म्हळ्यार पोंयेवयलो दाबणो कुशीक काडून पोंयेचो मुखावयलो भाग कातयेन कातरतालो. परत तसोच देंवून वतालो. परत सांजवेळा कळसो, दुदकें घेवन सकाळचे भाशेन सूर व्हरपाक येतालो. ताणें गांवांतले अशेच सोळा माड सुरीक केल्ले. त्या सगळ्या माडांची ताका एके फावटीन कळसो भरून सूर मेळटाली. तागेल्या भावान आंतोनीन, धनेशाल्या भाटांतले माड सुरीक केल्ले. गांवाच्या

निमाण्या पोंताक दोगांय भावांलीं घरां आसलीं. थंयच तागेल्या सोऱ्याच्यो भाटयो आसल्यो. माडाचे सुरीपासून ते सोरो काडटाले आनी विकताले. तितीव सदांच सांगतालो, "चेड्या यो मुरे आमगेर, सुरीचो सोरो कसो काडटा तो तुका दाखयतां."

पूण हांव केन्ना तागेर गेलों ना. तो जर आमच्या माडाची मुर काडिनासलो जाल्यार मात हांव मुद्दम तागेली सोऱ्याची भाटी पळोवपाक वतलों आसलों.

हांव सदांच माळयेर बसून येवजितालों, हे सुरीक लागून माडाची वाट लागली. तेवूय रातीं असोच जनेला म्हऱ्यांत बशिल्लों. माडाची वाट पळयत. केन्नातरी न्हीद लागली.

जाग आयली ती कानांत कसलोतरी जीव हुळहुळटा म्हणून. हातान फाफुडलो जाल्यार - दोळे उकते केले. पळय जाल्यार कानाकडेन चुट्टेचें तोंक हुळहुळटा. मुखार पळय जाल्यार आख्खी पांचवी चुट्टी आनी जनेलाभायर माडाचो कवाळो. माड आदलेवरींच जनेलांत आयिल्लो पूण हे खेप ताका बागवताना बरीच कसरत करची पडिल्ली. कारण ताच्या चारूय वटेन दाबणे आसले. बागवताना ताणें एक्कूय दाबणो पडपाक जायना अशी जतनाय घेतिल्ली.

माडाक पळोवन म्हाका खूब बरें दिसलें. हांवें म्हणलें,

"कल्परूखा, म्हज्या इश्टा, तुका खूब त्रास जाले न्हय?"

"जाले खरे, पूण तातूंत अजाप कसलें? हांवें तुका आदींच सांगूंक नासलें, मनीस कपटी आनी सुवार्थी म्हणून?"

"बरोबर, हांवूय तातूंतलोच." हांवें लजेन मान सकयल घातली.

"ना. अजून मेरेन तरी तूं तसलो ना." माडान जाप दिली. उलयताना ताका खुबूच कश्ट पडटाले. तरी तो उलयतालो.

"चुडटां कापलीं ताचें चड दुखलें ना. हरशीं म्हण केन्नाय चुट्टां

कापप जाता. खापां मारलीं तें दुखलें. आंगाचेर घाय पडले ना? पोंयो कापल्यो त्यो वेदना मात सोंसपा भायल्यो. त्यो आजून चालू आसा. आनी अशोच चालू उरतल्यो. कारण पोंयांतल्यान सूर गळटा. सूर कसली? म्हजें रगतूच तें."

आनी मागीर माड कितलोसोच वेळ वगी रावलो. ताका कसो थातारचो तेंच म्हाका कळ्ळें ना. मागीर तोच आपूण जावन सावचीत जालो. म्हणपाक लागलो.

"सगळें सोंसप शक्य आसा. पूण ही जनेलाच्या खुंटाची आडखळ! तुजे म्हजे इश्टागतीमर्दी ही वणत कशी! हिचो खूब त्रास जाता!"

माड हुंडकेलो. हांव खजील जालों. हांवें म्हणलें,

"हांव कितें करूं? हांव कांयच करूंक शकना. हे खूंट मोडूंक शकना. ते दाबणे फोडूंक शकना. हांव भुरगो."

"तूं भुरगो हेंच खरें. आनी तूं तसोच राव."

"म्हाका तुजी इश्टागत जाय. तुजेकडल्यान दुसरें कांयच नाका." हांवें म्हणलें.

"दिवपाक म्हजेकडेन आसा कितें? एकपासून बोंडो ना. पूण हांव तुका अंतर दिवचोंना. मात हें आतां अशें सदचेभशेन मेळप जावंचें ना. जालेंय जाल्यार हांव तुका कवाळ्यांत घेवंक शकचोना. कारण जनेलांक खुंटे आसात. आनी आतां बागवताना खूब कश्ट पडटात. खांपाकडेन मोडटलों कशें दिसता. शिवाय हे मानेचे दाबणे सांबाळचे पडटात." माडान दोन चार पांचव्यो चुट्ट्यो जनेलांतल्यान भितर घातल्यो. म्हज्या पोल्यार आनी आंगार अपुरबायेन भोंवडायल्यो. मागीर फाटीं घेतल्यो. बाग काडून माड आसा तसो उबो जालो.

सकाळीं जाग आयली पूण रातीं पळयिल्ली माडाची अवतिकाय दोळ्यांमुखार उबी जाली.

चारूय वटेन चार दाबणे. तातूंतल्यान सूर गळटा. म्हाका एक घाय जाल्यार सोसूंक जायना आनी माडाक चारकडेन चार घाय. आनी एक्काय घायाक वखद लावप ना. चारूय घाय तशेच व्हांवत दवरप. चारूय घायांतल्यान भळाभळा सूर गळटा. रगत कशी! आनी मागीर ते सुरीचो सोरो काडप! माडाक इतले कश्ट भोगोवन किर्ते काय म्हळ्यार काडप तो सोरो.

म्हाका बा चीं उतरां याद जालीं. एक दीस कित्यावयल्यान तरी सोऱ्याचो विशय आयलो. तेन्ना बान म्हणिल्लें, "सोरो? वीख तें वीख!"

तितीवान काल परत म्हणिल्लें, "चेड्या केन्ना येता रे आमगेर? सोऱ्याची भाटी पळोवपाक. जाय जाल्यार इल्लोसो पिवपाक!"

सोऱ्याविशीं हांव अशें येवजितालों खरें पूण तोच सोरो एक दीस आमच्या घरांत आयलो.

तितीवान माडाचे सुरीची भाटी काडलेली. नवे भाटयेचो सोरो म्हण एक भरलेली बाटली तो दायक घेवन आयलो. तिनसांजचो वेळ आसलो, "पिवन पळय. तुज्याच माडाचो सोरो." घरांत भितर सरत ताणें म्हळें. बाक तें व्हडलेंशें मानवलें ना. कारण दाय केन्ना सोरो पियेनासलो आनी ताणें पिवंचो न्हय अशें बाक दिसतालें. देखून सोऱ्याची बाटली पळोवन ती नाराज जाली. दुर्मिगान तिची नुरा पारखिली. तो म्हणपाक लागलो, "तूं पियेना म्हण हांव जाणां, पूण केन्नाय वखद म्हण पियेवंक जाता." अशें म्हणत तो आयिल्लो तसो गेलो. दायन ती बाटली काडून कोळयांत दवरली.

मागीर कितल्योशोच राती हांवें माडाची वाट पळयली. माड जनेलांत आयलो ना. हांव मनांत येवजितालों तेंच म्हाका खरें दिसलें, माडाचो सोरो घरांत पावला. माडाक आकांताचो राग आयला आसतलो. माड आतां कसो उलयतलो! म्हाका अशेंय दिसतालें, रातचो माडाच्या

खांपावयल्यान वयर चडचो आनी कवाळ्यांत वचून माडाकडेन उलोवचें. तशें केल्यार माड उलयत काय? पूण माडाचेर वयर चडपाचें धाडस जायनासलें.

एके राती माडाची वाट पळयत जनेलांत बशिल्लों जाल्यार सकयलसावन हांसपाचो आवाज आयलो. कोण हांसता काय म्हण कान दिल्यार व्हडल्या व्हडल्यान दाय हांसता. हाचे पयलीं दाय असो केन्नाच हांसनासलो. बा ताका थातारताली.

"येद्या व्हडल्यान कित्याक हांसपाक जाय?"

"म्हज्या घरांत म्हाका हांसपाक मनाय आसा? हांसपी, म्हाका जाय तेद्यान हांसपी."

आनी दाय आडेंचो नेट हाडून हांसपाक लागलो. बाक ताची असली करणी मानवलीना. पूण ती वगीच रावली. आपूण हांसता आनी ती वगी रावता म्हण दायक राग आयलो.

"तूं वगी कित्याक?" दायन तिका विचारलें.

"तूं पियेला देखून तुका हांसो फुटला." बान म्हणलें. म्हणजे दाय सोरो पियेलो? म्हजी तकली भणभणपाक लागली. सोरो पिवपी जायत्या जाणांक हांव वळखतालों. बारकेलो बाबय. तो सकाळीं फुडें पिवपाक लागतालो. आनी दिसभर कायचेकाय उलयत रावतालो. येते वेते ताचीं फकाणां मारताले. पयल्या वाड्यावयलो बोबाट बोंबी. हरशीं दिसभर वगी आसतालो. मात रातचो सोरो पितकच वाड्यावयल्या सगळ्यांक नांवां घेवन गाळी संवतालो. शिवा, गणा, सोऱ्याचे गादयेर पडिल्ले आसताले. अर्दी-मर्दी झगडटाले. एकामेकांक मारताले. सोरो पिवपी लोकांची कशी वायट दशा जाता तें हांव म्हज्या दोळ्यांनी पळयतालों. आनी आतां म्हजो दायूय सोरो पिवपाक लागलो? पयलीं घरांत बसून सोरो पियेतलो. मागीर गादयेर वचून पिवपाक लागतलो. मागीर शाळेंत

भुरगे म्हाका चाळयतले. धनेश आनी तागेले सवंगडी, सगळे चाळयतले. दायक सोरो पियेवं नाका म्हण सांगपाक जाय. पूण दाय म्हजें आयकतलो?

दुसऱ्या दिसा रातीकडेन दायन बा कडेन झगडें सुरू केलें. झगडें सुरू करचे आदीं दाय नक्कीच पियेल्लो आसूंक जाय. कारण ताच्या तोंडाक सोऱ्याची घाण येताली आनी कोळयांतली बाटली अर्दी सुमार सोंपिल्ली. झगड्याचें निमित्त सामकें सादें. दाय परत परत एकूच वाक्य उलयतालो, "हांव तुजेकडेन उलयतां जाल्यार तूं वग्गी कशी?" बा वग्गी आशिल्ली हें खरें आनी ताचें कारण म्हळ्यार दाय घराकडेन येनाफुडें पिवपाक लागिल्लो. म्हाका दायची करणी मात लेगीत मानवलीना. दायचो आवाज आयकून हांव माळयेर सावन सकयल आयलों जाल्यार दाय म्हजेर तापलो, "तूं भुरगो आमचे मदीं कित्याक? वयर वच. अभ्यास कर. वच म्हणटां न्हय." हांव वचपाक सोदी नासलों पूण बान म्हाका नदरेनूच वयर वचपाक शिटकायलो. हांव मोन्यांनी वयर गेलों. मागीर दायचो मात लेगीत आवाज आयकूंक आयलोना. बा मात मागीर उलोवपाक लागली. दाय सोरो पियेला म्हण ताका दुशणां दिवपाक लागली. म्हाका दिसलें, आतां दोगांयचें पेट्टलें. पूण तशें कांय घडलेंना. दायन बाचीं सगळीं उतरां मोन्यांनी आयकून घेतलीं. म्हाका बरें दिसलें. दाय इतल्यान सुदारतलो अशें दिसलें.

दुसऱ्या दिसा हांव शाळेंत गेलों. सदच्या सारखो दनपारां घरा यो जाल्यार घरांत बोवाळ. भितर सर जाल्यार कितें पळयतलो? दाय उकत्या आंगान हांगा थंय नाचता. सामको तांबडोगूंज जाला. दोळे तांबशे जाल्यात. एक थापट उखलता, एक थापट दवरता. बान कांसाटो खोयला आनी तिवूय हांगा थंय नाचता. दाय तिका मारपाक सोदता. हांवें कोळयांत बाटलेचेर नदर मारून पळयली जाल्यार ती सामकी सोंपल्या.

इतल्यान दायन एक सुको पिराडो उखल्लो आनी तो बा फाटल्यान धांवलो. बा मुखार धांवली पूण बाचीं केश्टां ताच्या हाताक सांपडलीं. ताणें केंस घट धरले आनी पिराड्यान सपासपा तो बाक मारपाक लागलो. पांयार, हातार, पोंवटार, फाटीर जंय मेळटा थंय थंय धाडावपाक लागलो. बा बोबो हुयेली मारपाक लागली. हांव मदीं पडलों पूण पिराडो म्हजेर बसचो न्हय देखून बानूच म्हाका कुशीक वडयलो. हांवें दायच्या हातांतल्या पिराड्याक घट्ट धरपाचो यत्न केलो पूण हांव झिडपलों. मागीर हांवें दायच्या पांयांक घट्ट वेंग मारली. इतले मदीं बा घरांतल्यान भायर धांवली. फाटोफाट दाय धांवलो. हांवें पांयाक तशेंच घट्ट धरिल्लें. हांवूय फरफटत आंगणांत पावलों. आतां दायक बाक सारखी मारपाक मेळना जाली. कारण हांव ताचो पांय घट्ट धरून आसलों. दायन सगळो



नेट एकठांय केलो आनी त्याच पांयाचे खोंटेन म्हाका पयस मोंखलो. हांव खोंटे सरशीं फाटल्यान गेलों आनी आंगणांतल्या माडार सण्ण करून आदळलों.

तकली कणकणली. दोळ्यांमुखार नखेत्रां लिकलिकलीं. दायक खावं काय गिळूं अशें म्हाका जालें.

पूण खिणांत म्हाका वेगळेंच येवजलें. हांवें दोनूय हातांच्यो मुठी आंवळून एक व्हडली किळांच मारली,

"ओ ऽ ऽ य."

आनी हांव माडाच्या खांप्यावयल्यान सपासप वयर चडपाक लागलों. मात्तूय भंय दिसलो ना. पडलों जाल्यार लेगीत पर्वा ना अशें दिसलें इतलो नेटान चडलों. धोंपरां घट जालीं. हातूय थरथरपाक लागले. हांवें माडाक दोनाय हातांनी वेंग मारली. पोट माडाक तेंकलें. सर्र करून हांव पावलभर सकयल देंवलों. पोट खरचटलें. चुरचुरलें. आनीक वयर चडपाक जमना जालें. इतल्यान एक चुडत आपशींच वागवलें. हांवें ताका घट्ट धरलें. ते सरशीं आपशींच तें वयर गेलें. आतां हांव चुडटाच्या पिराड्यांक तेंकलों. एका एका पिराड्याक घट धरून हांव वयर चडलों. सामको कवाळ्यांत पावलों. आतां सकयल पडपाची भिरांत नासली. कवाळ्यांतली चुडटां म्हज्या आंगाभोंवतणी आडवीं तिडवीं जावन हालपाक लागलीं. आंगार बरें वारें पडपाक लागलें. म्हाका समजलें, माड म्हजी काळजी घेता. मात तो उलयनासलो.

हांवें माडाच्या कवाळ्यांत पळयलें. एक दोन तीन चार. हेच ते सुरीचे दाबणे! तांचेखातीर हांव वयर चडून आयिल्लों. हांवें एक दाबणो पोंये वयलो उबारलो. सकयल पळयलें. जाल्यार दाय आनी बा आजून आंगणांत झगडटात. दाय तिका मारपाक सोदता आनी बा मार चुकोवपाचो यत्न करता. हांवें माडावयल्यान हेंवूय पळयलें, आमच्या

घरावटेन वाड्यावयले लोक धांवत येतात.

हांवें दाबणो दोनूय हातांनी धरलो. तीर केलो. ज्युस्त दायच्या कट्ट्यार मोखपाचो. तकलेर फुटपाक जाय आनी दाबणाचो कांठ गळ्यांत उरपाक जाय. हीच संद सोदीत रावलों. धांवतां धांवतां बा आंगणांत पडली आनी दाय तिका पडिल्लेकडेन मारपाक लागलो. दाय थीर रावन तिका पिराड्यांनी मारतालो. हांवें हीच संद सादून वयल्यान दाबणो दायवटेन मोखून मारलो. दायचेर पडपाचो पूण त्याच खिणाक दाय कुशीक सरलो आनी दाय आनी बा हांचेमदीं दाबणो पडलो. सूर जळामळा उसळ्ळी. दोंगांयच्या आंगार पडली. दाबण्याचीं कैलां जावन आंगणभर पातळ्ळीं.

आनी इतल्यान दोगांयची नदर वयर गेली. म्हाका माडार पळोवन दोगांय काचाबूल जालीं. कारण इतलो वेळ तांकां कांयच खबर नासलें. तीं झगडत आसलीं. हांवें एका फाटोफाट सगळे दाबणे सकयल आंगणांत मोखून मारले. हांव वयरसावन व्हडल्यान आड्डलों. "तुमी झगडत रावात. हांव आतां हांगासरूच रावतां."

आनी हांव कवाळ्यांतल्यान शांतपणान विसव घेवपाक लागलों. सकयल बोवाळ वाडत आशिल्लो. हांवें सकयल पळयलेंना. पूण अदमास केलो, सकयल आंगणांत शाळाभर तरी लोक एकठांय जाल्या आसतले.

म्हाका आतां जिवाक बरें दिसलें. न्हीद येवपाक लागली. न्हिदपाक कसलीच भिरांत नासली. कारण म्हजे भोंवतणी चुडटां सामकीं जनेलाचे खूंट कशी आंवळून आयिल्लीं. हांवें माडाचेर मायेन हात भोंवडायलो. हांव दोनूय हातांनी माडाक पोशेवपाक लागलों.

"तूं शाणो जाला आनी दुसऱ्याक शाणेपणां शिकोवपाची शक्त तुवें जोडल्या." माडान म्हज्या कानांत सांगलें. हांव खुशी जालों. माड

म्हजेकडेन उलयतालो.

"आतां हांव हांगाच रावपी. सकयल देंवपीच न्हय."

माड फकत मुमुरख्यांनी हांसलो.

"तूं वगी कित्याक?" हांवें विचारलें.

"तुका हांगां रावपाक मेळचें ना."

"कित्याक?"

"सकयल तुजें राज्य सुरू जालां."

"आतां लोक तुजे करणेक तोखेतले. तुका मान दितले."

"दिवं."

"तूं आतां ल्हान आसा खरो पूण हुशार जाला. मनशा इतलो हुशार."

"आनी कपटी आनी सुवार्थी लेगीत जालां?"

"ना. पूण आमची इश्टागत इतल्यान सोंपता. कारण तूं आतां व्हडलो जाला आनी व्हडल्यांकडेन माडान इश्टागत दवरप सारखें न्हय. आतां तुजें म्हजें तेंच नातें. जें म्हजें हेरांकडेन आसा." माडान सांगलें.

माडाचीं उतरां आयकून हांव खंती जालों. पूण माडान म्हाका तरातरांनी समजायलो आनी निमाणें म्हणलें,

"हांव तुजेकडेन उलयलोंना जाल्यार तूं उलयता तें म्हाका सगळें आयकूंक येतलें."

आनी माड म्हाका पाळण्यांतल्या भशेन धोलोवपाक लागलो. म्हाका थंयच न्हीद लागली.

"चेड्या ऽ ऽ चेड्या ऽ ऽ."

दोळे उकते करून पळय जाल्यार मुखार तितीव.

"चेड्या ऽ ऽ अशीं पिशेपणां करी नाकाय. आयजसावन तुज्या माडाची सूर काडी ना. तुयें दाबणो फोडलो तें बरें केलें. यो, आमी खाला या. सगळे खाला रावल्यात." तितीवान म्हज्या माथ्यार हात

भोंवडायत म्हणलें..

"खाला या, म्हणजे?" हांव भानार आयलों. पळय जाल्यार हांव माडाच्या कवाळ्यांत बसलां आनी तितीव म्हज्या म्हऱ्यांत आसा. हांवें सकयल पळयलें. आमच्या आंगणांत सगळो गांव एकठांय जाला!

तितीवान म्हळें, "यो, म्हाजे फाटीक धर."

हांव ताचे फाटकुळेर बसलों. तितीवान तुवालो हाडिल्लो. तो ताणें म्हजे फाटीवयल्यान आंवळ्ळो आनी आपल्या पोटाक बांदलो. हांवें दोनूय हात ताचे मानेभोंवतणी आंवुळ्ळे.

तितीव सवकसायेन माडाचें एक एक सोंपण देंवलो. सामको निमाणेंमेरेन. आमी सकयल पावनाफुडें दायन तुवालो सोडलो. बान म्हाका वेंगेंत काडलो. बेगीबेगीन घरांत व्हेलो.

लोकांची गर्दी, तातूंत पोवळे गुरूजी आसलो. धनेश आनी तागेले संवंगडीय आसले. बान म्हज्या ओंठाक पेजेचो निवळ लायत म्हणलें,

"ना म्हंज्या पुता आतां आमी केन्नाच्च झगडचींना."

"हय पुता. हांव परत सोऱ्याक हात पसून लावचोंना." दाय बाबडो जावन म्हजेमुखार बशिल्लो. अशें दिसतालें, झगडटालो तो दाय वेगळो आनी हो वेगळो.

इतल्यान गर्दैतल्यान वाट काडीत धनेश आनी तागेले संवंगडी मुखार आयले.

"जाणां कल्पेश, तुवें दाबणो फोडलो तो पळयलो आनी हांवें आमच्या भाटांतल्या माडावयले सगळे सुरीचे दाबणे फोडले." धनेश सांगतालो.

"हय. आमी सगळ्यांनी फातर मारून दाबणे फोडले." सगळ्यांनी म्हणलें.

"आनी जाणां कल्पेश? काल हांवें हांकां सगळ्यांक पैजेचीं आडसरां

दिलीं."

धनेशान सांगलें.

मागीर आमच्या आंगणांत कितलोसोच वेळ बोवाळ जालो. सगळे जाण भुरग्यांनी दाबणे फोडिल्ल्याची खबर करताले. कांय जाण म्हणटाले, भुरग्यांनी केलें तें वायट केलें. कांय जाण म्हणटाले, बरें केलें.

कांय वेळान आमचो पोवळे मास्तर मुखार आयलो. लोकांक उद्देशून ताणें म्हणलें, "म्हज्या भुरग्यांनी केलें तें चूक अशें हांव म्हणचोना. कारण माड हो कल्परूख आसा. विशरूख न्हय."

आनी मागीर गर्दी उणी जायत गेली.



